# हिरन आनी वांस्वेल



बरोवपी
नयना आडारकार




श्री हरि प्रकाशन

# HIRAN ANI VANSVEL

A collection of Short Stories

**Nayana Nandakishor Adarkar**

प्रकाशन क्र. १३



पयली उजवाडावणी : एप्रील २००१

**उजवाडावपी**
दीपा दिनकर मुरकुंडे
श्री हरि प्रकाशन
३८९/अ, शांतिनगर
आकें-बायश, नावेली, गोंय ४०३ ७०७

**अक्षर जुळणी**
तन्वी ग्राफिक्स, मडगांव, गोंय

**छापपी**
प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंडय, गोंय

**मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां**
वासू

मोल : १७/- रुपया

पूर्वप्रसिद्धी :
सुनापरान्त : मूर्ख कोंबो, पोटरो बावलो, खरो सेवक
राजहंस : प्रयत्नांती परमेश्वर, हिरन आनी वांस्वेल
उर्बा : बिबटो वाग आनी धाकटू



१.

# मूर्ख कोंबो

एका गांवांत सीताबाय नांवाची एक जाण्टेली रावताली. तिणें जायतीं कुकडां पोशिल्लीं. त्या कुकडांमदीं रामुलो नांवाचो एक कोंबो आशिल्लो. तांबश्या पांखांचो आनी माथ्यार तांबडोच तुरो आशिल्लो रामुलो खूब मिजाशी आशिल्लो. सगळ्या कुकडांमदीं आपूण एकटोच देखणो आनी भोव हुशार अशें ताका दिसतालें. ताणें तेखातीर एकटेंच कुशीकुशीक भोंवचें. हेर कुकडां मातशीं लागीं आयल्यार तांकां चोंची मारून धांवडावन घालचें.

एक दीस असोच बाकीच्या कुकडांची कटकट नाका म्हणून रामुलो एका एंडेला झाडाचे वयले फांदयेर बशिल्लो. इतल्यान एक घोण पांखां फांकायत झुप्प करून सकयल आयली आनी एका सानुल्या कुकडापिलाक घेवन गेली. कुकडांमदीं केऽकेऽकेऽ करीत बोवाळ सुरू जालो. एके जाण्टेले कोंबयेन रामुल्याक हिणसायत म्हळें, 'स्वताक व्हडलो कोण समजता हो रामुलो... आपल्या भांवडांक वांचोवंक मात आयलोना. अशें कित्याक हें नाका जाल्लें व्हडपण?'

पूण रामुल्याक जाण्टेलेच्या उतरांचें पडूंकच नाशिल्लें. ताचें लक्ष त्या पांखां फांकायत उडत आयिल्ले घोणीचेर थिरावल्लें. 'आवयस्, कितें उडटात ह्यो घोणी? हीं झाडां-पेडां घरां-दारां न्हंयो-बांयो आनी हीं कुकडां सगळीं हांच्या पांया पोंदा.' आतां ताका आपणेंय घोणी भशेन उडचें अशें दिसूंक लागलें. आपणें अशें मळबांत पांखां फांकायत नेटान उडत रावचें आनी त्या सगळ्या कुकडांक आपूण तांचेवरी न्हय म्हणून दाखोवन दिवचें. आपूण तांचेपरस वेगळो - हुशार, देखणो आनी उडपी. मागीर तांच्या माथ्यार उडून तांकां कूऽयकूऽय करपाक मज्जा येतली. जालें. उडपाचें मनांत आयलें तसो रामुलो सडसडीत एंडेलाच्या झाडावयल्यान सकयल देंवलो आनी तुरुतुरु करीत घोणी रावतल्या झाडांकडेन चलपाक लागलो. खावड खावन घोणी सुस्तावपाक झाडार बशिल्ल्यो. इतल्यांत रामुलो थंय पावलो.

रामुल्यान तांकां उलो मारलो, 'घोणी भयणी, घोणी भयणी, हांव रामुलो... तुमचो भाव. म्हाका शिकयात उडूंक, उपकार तुमचे जायत.'



रामुल्याचीं उतरां आयकून घोणींक आयलें हांसूंक. 'बाबारे, तूं कुकडां जातींतलो. तुज्यान उडपाक जावचेंना.' एके घोणीन ताका समजायलो. 'ना, ना. हांव कुकड न्हय सादें; हांव कितलो सोबीत, कितलो देखणो, सोबना तांचे मदें.' रामुलो आपलो हट्ट कसोच सोडिना जालो.

एके घोणीक रामुल्याची काकुळट दिसली. जावं, पोराक फाटीर बसोवन मळब भोंवडावन हाडया, तिका दिसलें. पूण फाटीर बसपाक रामुलो कसोच तयार जायना जालो.

'म्हाका पांखां हालोवंक जाय तुमचे भशेन', ताणें आपलो हट्ट चालूच दवरलो.

निमणें, ते घोणीन ताका सांगलें, 'तूं तुजे चोंचीन म्हजे पांय घट्ट धर. हांव उडटां तसो तुंवूय पांखां हालय.'

रामुल्यान घोणीच्या पांयांक घट्ट धरले. घोण मळबांत उडली. मळबांत उडटना रामुलोय आपलीं पांखां हालोवंक लागलो. सकयल दिसपी न्हंयो, दोंगर, झाडां-पेडां... रामुलो सामको दिपावन गेल्लो. इतल्यान उडटां उडटां घोण सीताबायच्या घरावयल्यान उडपाक लागली. सीताबायलीं कुकडां पोरसांत हांगाथंय भोंवून खावड खातालीं. रामुल्याक तांकां पळयतांच नेट आयलो. 'हीऽती जाण्टेली म्हाका हिणसायताली... आतां दाखयतां तिका म्हजो नेट...' रामुल्याल्या मनांत आयलें.

जाण्टेलेचे ज्युस्त तकलेवयर येनाफुडें रामुल्यान, 'आगे ए जाण्टेले...'

इतलींच उतरां. फुडें रामुलो उलोवंक पावलोच ना. चोचींतल्यान पांय सुटून रामुलो मळबांतल्यान झेलपटत बद्द सकयल फातरार येवन आपटलो आनी थंयच मेलो.

रामुल्याक मेल्लो पळयतांच जाण्टेली हळहळली. 'पिसो पोर' म्हणत ती बाकीच्या कुकडांवांगडा घुडांत भितर सरली.

२.

# पोटरो बावलो

एक दीस देवबाप्पा तिनसांजचो पासयेक भायर सरलो. धर्तरेर घराघरांत देवाऱ्यांत आनी तुळशीमुखार पणट्यो पेटयल्ल्यो. भुरगीं देवाऱ्यामुखार बसून परवड म्हणटालीं. तें पळोवन देवबाप्पा खुश जालो.

सगळेकडेन बारीकसाणेन पळयतना ताच्या लक्षांत आयलें, भुरग्यांकडेन कितलेशेच बावले-बावल्यो आसात. कांय कपड्यांच्यो, कांय प्लास्टिकच्यो, कांय लाकडाच्यो. देवबाप्पाचे बायलेन एक दीस सांगिल्लें तें ताका याद जालें. 'आमचें नामस्मरण करतना जशीं भुरगीं खोशशी जातात तशींच तीं ह्या बावल्यांकडेन खेळटना जातात.'

देवबाप्पाक बावले-बावल्यांची अपुरबाय दिसली. ताणें सगळ्या बावले-बावल्यांक आपल्याकडेन, म्हळ्यार सर्गराज्यांत खावपाक येवपाचें आमंत्रण दिलें. सगळींच देवबाप्पाचें आमंत्रण आयकून खूब खोशी जालीं. तांणी आपल्या आपल्या माणकुल्या भुरग्यांकडल्यान नवो नवो पोपो घालून घेतलो. केन्ना एकदां रात जाता आनी देवबाप्पाचें विमान तांकां व्हरपाक येता अशें तांकां दिसतालें. तांची नदर परती परती मळबाकडेन लागिल्ली.

एकदांची रात जाली. चानीमामा बावल्यांक पळोवन हांसपाक लागलो. नखेत्रांय आयज चडूच चकचकतालीं. सगळे बावले-बावल्यो घरांतलीं मनशां न्हिदपाची वाट पळयतालीं. सगळींजाणां सुस्त न्हिदतांच देवबाप्पाचें विमान सकयल देंवलें. सगळ्या बावले-बावल्यांची विमानांत बसपाक एकूच गडबड सुरू जाली. तांचेमदीं एक मोट्ट्या पोटाचो भकारो बावलो आशिल्लो. तो पळयत तेन्ना खायत आसतना दिसतालो. भुरगीं खेळांत गुल्ल जाल्लीं आसतना तांचे बशयेंतलो शिरो खातालो, बोतलेंतलें दूद ल्हवूच चोरून पितालो. भुरग्यांचें बाबड्यांचें खेळांत लक्ष. तांच्या तें केन्नाच लक्षांत येनासलें. पूण बाकीच्या सगळ्या बावले-बावल्यांक तें खबर आसलें. तीं सगळीं ताका भकारो म्हूण चाळयतालीं. आतांय तो सगळ्यांक धुकलून आपूण पयलीं विमानांत बसपाक सोदतालो.

सगळीं विमानांत बसलीं तशें देवबाप्पान विमान सुरू केलें. विमान

धव्या-काळश्या कुपांतल्यान वाट काडीत नखेत्रां मदच्यान, चानीमामाक तेंक्कून गेलें आनी एकदांचें सर्गराज्यांत पावलें.

देवबाप्पान पयलीं सगळ्या बावले-बावल्यांक गोड सरबत पियेवंक दिलें आनी मागीर सगळ्यांक जार्दिनांत घेवन गेलो. जार्दिनांत झोपाळे, घसरगुंड्यो, गिरगिरो आशिल्लो. सगळींजाणां थंय धांवलीं आनी खेळपाक लागलीं. देवबाप्पा आनी ताची बायलूय तांचेमदीं खेळपाक लागली.

पूण भकाऱ्या बावल्याचें लक्ष खेळांत कशेंच लागना जालें. जार्दिना पलतडी बांदिल्ल्या माटवांतल्यान खावपा-जेवपाच्या जिनसांचो सुवास सुटिल्लो. वासाभरशीं भकाऱ्या बावल्याच्या तोंडाक उदक सुटलें. जीब सामकी हुळहुळपाक लागली. पोटांत कावळे काडाओडी काडपाक लागले. ताणें आशिकुशीक ल्हवूच नदर भोंवडायली. सगळीं जाणां खेळांत गुल्ल आशिल्लीं. कोणाचेंच लक्ष पोटारो भकाऱ्याचेर नाशिल्लें.

भकारो बावलो सगळ्यांची नदर चुकोवन जार्दिनांतल्यान हळूच भायर सरलो. मागीर ल्हवूच दपत दपत तो माटवांत आयलो. माटवांत मदीं एक मेज मांडिल्लें. त्या मेजार तरेतरेचीं खाणां मांडून दवरिल्लीं. लाडू म्हणूंनाका, जिलबी, पेढे, श्रीखंड, शंकरपाळी, क्रिमीच्यो बिस्कुत्यो, केक, पॅटीस आनी थंड थंड आयस्क्रीम...

भकाऱ्या बावल्याच्या तोंडांतल्यान लाळ गळपाक लागली. एक आंवडो घोटून ताणें आशिकुशीक नदर भोंवडायली. थंय कोण्ण एक नासलो. मागीर आनी भकाऱ्या बावल्यान वेळ काडलोना. ताचे हात भराभर खाणांचेर पडपाक लागले. मचामचा तोंड हालूंक लागलें. एके थाळयेंतलें खाण सोंपतांच आपसूक ताचे पांय दुसरे थाळयेकडेन वताले. आपसूक हात भराभरा खाणां पोटांत धुकलताले. आनी एका खिणाची उसरपत घेनासतना तो खाण मचामचा आवाज करीत भकीत वतालो. सगळ्या थाळयांतलीं खाणां सोंपलीं तसो तो आयस्क्रिमाकडेन गेलो. सगळें आयस्क्रीम ताणें चाटून-पुसून खालें.

येदोवेळ खाणां खावपांत झपझपीत चलपी ताचे पांय आतां मात ताका मुखार घालपाक जायना जाले, इतलें ताचें पोट टुण्ण भरिल्लें. दोनूय हातांनी सडसडीत खावन ताचे हातूय दुखूंक लागिल्ले. इतल्यान ताणें सगळे बावले-बावल्यो माटवावटेन येतात तो आवाज आयकलो. भकारो बावलो थर्त भियेलो. तो बेगिबेगीन माटवांतल्यान पळ काडपाक सोदी, पूण टुण्ण

जाल्ल्या पोटान ताका मुखार पावल लेगीत घालूंक जायना जालें. इतल्यांत देवबाप्पा सगळ्या बावले-बावल्यांक घेवन थंय आयलो. देवबाप्पान खाणाच्या मेजार नदर भोंवडायली. सगळ्यो थाळयो चाटून-पुसून साफ! आनी मेजाकुशीक भकारो बावलो उबो रावन कडकडटा !



देवबाप्पाक सगळें कळ्ळें. ताणें म्हळें, 'हें पळय, तुवें ह्या सगळ्यांच्या वांट्याचें एकट्यानूच खालां. थंय जार्दिनांत सगले बावले-बावल्यो खेळटालीं. तूं हांगा कसो आयलो?'

भकाऱ्या बावल्यान फट्ट करून म्हळें, 'हांव कसोच येना आसलों देवबाप्पा, पूण ह्या पांयांनीच म्हाका हांगा हाडलो.'

'अश्शें?' देवबाप्पान म्हळें. 'आनी त्या थाळयांतलीं सगळीं खाणां कोणें उबारलीं तर?' देवबाप्पान ताका विचारलें.

'हांव कसोच उबारूंक तयार नासलों. पूण ह्या दोनूय हातांनी तीं उबारलीं.' बावल्यान म्हळें.

'अश्शें?' देवबाप्पान म्हळें. मागीर देवबाप्पान ताका विचारलें, 'आनी हीं खाणां तुवें खावंकूच नात तर?'

'हय देवबाप्पा. म्हाका नाकाच आशिल्लीं तीं खाणां.पूण तोंड सामकें भकारेंशें खायत सुटलें. आतां म्हजें पोटूय पळय कशें टुण्ण् जालां. म्हाका चलपाक लेगीत येना.' भकाऱ्या बावल्यान म्हळें.

देवबाप्पा हांसलो. 'बावल्या, तुवें आपूण जावन कांयच करूंक ना. पूण तुज्या हातांनी, पायांनी आनी तोंडान हीं खाणां खावपाचें काम केलां. तुजे पांय हांगा चलत आयले. तुजे हात खाणां उबारपाक लागले आनी तोंड खावंक लागलें. बरें तर, हांव तांकांच शिक्षा दितां.' अशें म्हणत देवबाप्पान अस्सो हात करून हातांतल्यान उजवाड सोडलो. तेसरशीं भकाऱ्या बावल्याचे हात-पांय नाच्च जाले आनी तोंड सामकें

बंद पडलें. आतां भकारो बावलो हात नासून पांय नासून लूंड कसोसो दिसपाक लागलो. एद्‌या मोट्या गरगरीत पोटाचेर तो बसला कसो दिसतालो.

भकाऱ्या बावल्यान देवाक कितें सांगपाचो यत्न केलो. पूण तोंडांतल्यान उतर भायर फुटना जालें. भकाऱ्या बावल्याक आपले करणेचो पश्चाताप जावंक लागलो. ताका घुस्मटून घुस्मटून रडूंक येवंक लागलें. पूण तो जसो जसो रडटा तसो तसो पोटार धोलता सो दिसूंक लागलो. ताच्या रडपाचो ताच्या पोटाभितर टीण् टीण् असो आवाज जावंक लागलो. ताणें दुकां भरिल्ल्या दोळ्यांनी देवबाप्पाकडेन पळयलें.

भकाऱ्या बावल्याक पश्चाताप जाला हें देवबाप्पाक कळ्ळें. ताणें म्हळें, 'तुका पश्चाताप जाला हें म्हाका कळ्ळां. देखून हांव तुजें बावलेपण काडून घेवचोंना. पूण तूं पयलीं भशेन बावलो जावचोना. तूं सामक्या ल्हान, चलूंक येना असल्या भुरग्यांमदीं सामको आवडीचो जातलो. तूं धोलतलो तेन्ना तीं खोशी जातलीं. तुज्या पोटांतल्यान येवपी टीण् टीण् आवाज भुरग्यांक खूब आवडटलो. भुरगीं तुका पोटरो बावलो म्हणटलीं. व्हड भुरगीं तुजीं चित्रां काडून ताका रंग दितलीं. पोटरो बावलो म्हणून तूं तांचेमदीं उरतलो.'

मागीर देवबाप्पान आनिकूय खाणां तयार करपाक सांगलीं. बाकीच्या सगळ्या बावले-बावल्यांनी हांसत-खेळत पोटभर खाणां खालीं. फांतोड जावचे आदीं देवबाप्पान सगळ्या बावले-बावल्यांक तांच्या तांच्या घरा पावयलीं.

३.

## प्रयत्नांती परमेश्वर

शिवोले न्हंयेवयलो पूल वलांडटकीर रोखडेंच गुरू वेपाऱ्यालें घर लागतालें. गुरू वेपाऱ्याची पयली बायल एक भुरगो जातांच रोखडीच मेली. भुरग्याचें नांव भिकूराम. भिकूराम आपले आवयवरी रंगान काळोसावळो

आनी रुपान सादारण आशिल्लो. आवय नाशिल्ल्या भिकूरामाची आपल्याक फावो ती जतनाय करूंक मेळना म्हणून गुरू वेपाऱ्यान दुसरें लग्न केलें. दोन वर्साभितर गुरू वेपाऱ्याचे बायलेन एका सुंदर, देखण्या भुरग्याक जल्म दिलो. ताचें नांव दवरलें सखाराम.

गुरू वेपारी दिसूयभर आपलो वेपार सांबाळपाक व्यस्त आसतालो. आनी घराकडेन गुरूली बायल सखारामाची तुस्त, अपुरबाय करपाक व्यस्त. तिणें सखारामाक बरे-बरे कपडे शिंवचे, नव्या नव्या मोदींचे अळंकार करून ताच्या आंगार घालचे. मागीर मीठ घेवन सखारामाची दिश्ट काडची आनी म्हणचें, 'म्हजो राजा तो... कितलो देखणो, कितलो सुंदर.' तिणें अशें म्हणटकच भिकूराम ल्हवूच तिचेसरीं येतालो आनी तिका विचारतालो, 'आनी हांव आई, हांव तुजो राजा न्हय !'

आवयन मागीर नाक मुड्डीत म्हणचें, 'शी, तूं पयलीं नांवाप्रमाण भिकूराम!' आनी तिणें फिदीफिदी हांसचें. भिकूराम बाबडो येदेंऽ तोंड करून कुशीन वतालो. गुरू वेपाऱ्या मुखार मात तिणें भिकूरामाक लागीं ओडचो, ताची अर्थ-अपुर्बाय करतां असो देखाव करचो. पूण गुरूचे अस्वंडीं मात ताका कामां करपाक लावचीं.

सखाराम आनी भिकूराम ल्हवू ल्हवू व्हड जावंक लागले. सखाराम अभ्यासांत बोंडेर आशिल्लो. अभ्यासापरस ताका बरे बरे कपडे घालून नेट दाखोवंक चड मजा येताली. भिकूराम हुशार आशिल्लो. पूण आवयन ताका घरच्या रांदपाच्या कामांत घुस्पावन दवरून अभ्यास करुंकूच दिवचो न्ही आनी ताचे परिक्षे कडेन ज्युस्तूच आपूण दुयेंत पडिल्ल्याचें नाटक करून ताका घरा दवरून घेवंचो. परिणाम जावचो तोच जालो. भिकूराम बुद्द आसून शिकूंक पावलोना जाल्यार सखाराम बोंडेर जाल्ल्यान शिकूंक पावलोना.

सखाराम आनी भिकूराम आतां तरणाटे जाल्ले. गुरू वेपारी आनी ताची बायलूय आतां देवाघरा गेल्लीं. सखारामान आपल्या बापायची सगळी इस्टेट आपल्या नांवार करून घेतली. त्या पयशांच्या बळग्यार बरे बरे कपडे घालून, भांगरां-शिंगरां आंगार मिरोवन गांवभर नेट मारीत भोंवपाक ताका खूब आवडटालें. भिकूराम बाबडो घरांतलें सगळें काम करतालो. सखारामान भिकूरामाक आपले आवयवरीच परतें परतें हिणसावचें. 'नांवाचो पयलीं भिकूराम. भिकारी खंयचो. नाजाल्यार हांव पळय, देखणो, रुपेस्त राजा कसो भोंवतां आनी तूं आपलो रान्नीपोलांत. एकाच बापायचे पूत आमी,



पूण तुज्या नशिबांत खंय म्हजेअसलें सुख? तुजें नशिबूच पाडें, भिकारें, म्हणून तूं भिकूराम.'

भिकूरामाक भावाचीं उतरां आयकून खूब वायट दिसतालें. एक दीस ताणें बेजारून गांव सोडलो. मुंबय वचपी एका ट्रकांत बसून भिकूराम मुंबय पावलो. मुंबय पावतकच भिकूराम काम सोदपाक लागलो. ताका एका कॉन्ट्रॅक्टराकडेन मजुराचें काम मेळ्ळें. काम करतना ताच्या लक्षांत एक गजाल आयली. कामाक येवपी मजूरांक धरून इंजनेर सायबामेरेन लोक खाणावळींनी सामकें बाबत अशें जेवण जेवतात. भिकूरामाचें आयुश्य आवय आनी भावाखातीर बरें बरें रांदपांतूच गेल्लें. आपल्या रांदपाचो कितेंय पूण उपेग करून घेवपाचें ताणें येवजिलें. ताणें बरो दोन म्हयन्याचो पगार एकठांय केलो, त्या पयशांतल्यान गरजेचें सामान हाडून ताणें गोंयचे पद्दतीन जेवण रांदलें आनी सगळें सामान घेवन तो मजूर जेवंक वचचेल्या वेळार थंय वचून रावलो. कामावयले लोक आतां भिकूरामाक बरे वळखताले. ताणें हाडिल्लें जेवण सगळ्यांक घोस्ताक गेलें. दुसऱ्या दिसाय ताका जेवण हाडपाचें ऑब्र मेळ्ळें. ताच्या जेवणांत विविधताय आसली. नुस्त्याचें धबधबीत, आमट-तिखट, बांगड्यांची उड्डमेथी, कालवांचें तिसऱ्यांचें मसाल्याचें तोंडाक, मुगांच्यो गांठी, खतखतें अशे जिनस, तशेंच मणगणें, कण्ण अशीं गोडशीं.

भिकूरामाचें गिरायक वाडत गेलें. ताणें आपल्या हातासकयल काम करपाक कांय मानाय घेतले. करतां करतां ताणें एक धाकटुलें हॉटेल घालें. भिकूरामाच्या रुच्चीक जेवणाचो सुवाद घेवंक पयसुल्ले जायते लोक येवपाक लागले. तांचे मागणेक लागून भिकूरामान जायते कडेन आपलीं हॉटेलां सुरू केलीं. प्रामाणीकपण, जेवणाचो उत्तम दर्जो, गिरायकाक मान ह्या ताच्या वेव्हाराक लागून ताणें सगळेकडेन जैत जोडलें. आतां फकत मुंबयंतूच न्हय तर अख्ख्या संवसारभर ताचीं हॉटेलां आशिल्लीं.

हे वटेन शिवोले सखाराम आपलो नेट मिरोवपाक गुल्ल जाल्लो. ताच्यान वेपार करपाक जमनासलो. जी किंतें येणावळ येता ती कपड्या-लत्त्याचेर खर्च जाताली. सखारामाक आपलो नेट दाखोवपाखातीर कर्ज काडचें पडलें. कर्ज वेळार फारीक करूंक जालेंना म्हणून वेपार आनी रावतें घर लेगीत पावणेंर वचपाचो वेळ आयलो. भिकूरामाच्या कानार ही गजाल पावली. तो बेगोबेग विमानान गोंयां आयलो. पावणेर वचपी घराचेर आशिल्ले सगळे पयशे फारीक केले, वेपारूय रिणमुक्त केलो. घर आनी वेपार सखारामाचे सुवादीन केलो.

जाका आपूण हिणसायतालों त्याच भावान आपल्याक संकटांतल्यान वाटायलो. पश्चात्तापान सखारामाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवंक लागलीं. तों आपल्या व्हडल्या भावाच्या पांयां पडलो. भिकूरामान ताका आपले वेंगेंत घेतलो आनी म्हळें, 'पिशा, हांव हो येदो व्हड फकत आईखातीर आनी तुजेखातीर जावंक पावलों. तेन्ना जर आईन म्हाका रांदपाक लावंक नाशिल्लो जाल्यार हांवूय ह्या गांवांत होच वेपार करपाचों. आयज आईच्या आशिर्वादान हांव जगभर कितलींशींच हॉटेलां उकतीं करूंक पावलां.'

भिकूरामाच्या पांयांक हात लायत सखारामान म्हळें, 'भिकूभाऊ, आमचें नांव घेवप हें तुजें व्हडपण. पूण एक मात म्हाका कळ्ळें. नांवांत कांयच आसना. मनशान प्रयत्न केल्यार नशिबाची रेशाय बदलूं येता. फकत प्रयत्नांकडेन प्रामाणीक मात आसूंक जाय. अडेचीं व्हडपणां मिरोवचे परस हांव कश्टांकडेन इश्टागत करतलों. म्हाका आशिर्वाद दी भाऊ.'

'म्हजो तुका सदांच आशिर्वाद आसतलो' अशें म्हणत भिकूरामान सखारामाक परत आपले वेंगेंत घेवन ताचे फाटीवयल्यान मायेन हात भोंवडायलो.

# खरो सेवक

एक आशिल्लो राजा. राजा खूब मायेस्त आशिल्लो. आपली प्रजा म्हळ्यार आपलीं भुरगीं अशें मानून तो तांची बरे तरेन सेवा करतालो. लोकांखातीर ताणें सगळया गांवांत शिक्षणाची सोय केल्ली. तानेल्ल्यांखातीर गरज थंय बांयो खणिल्ल्यो. गरजवंतांखातीर धर्मशाळा उगडिल्ल्यो. आपल्या राजाचेर राजाची प्रजाय मनासावन प्रेम करताली.

दर म्हयन्याक राजा भेस बदलून राज्यांत भोंवतालो. ते रातीय राजान वेगळोच भेस केलो. ताणें आपल्या आंगाक काळोच रंग लायलो, धवें पुडवें न्हेसलो, पांयांत चामड्याच्यो व्हाणो, हातांत दोरी आनी एका रेड्याचे फाटीर बसून तो राज्यांत भोंवपाक लागलो. गुप्त दारांतल्यान भायर सरिल्लो राजा सगळ्याक भोंवून राजम्हालाच्या मुख्य दाराकडेन पावलो. थंय भीमसिंग शिपाय पहारो करतालो. रेड्यार बशिल्लो राजा थंय पावनाका, भीमसिंग तटायंच् करून बशिल्ल्या जाग्यावयल्यान उठलो आनी तरसाद घेवन राजासरीं आयलो.

'खबरदार ! एक पावल लेगीत मुखार घाल्यार तुजे कुडके कुडके करतलों.' भीमसिंगान राजाक धमकायलो.

आवाज बदलून राजान म्हळें, 'आरे बाबा, तूं म्हाका असो कित्याक आडायता? हांव यमदेव. हांव आयज त्या राजाक व्हरपाक आयलां.'

भीमसिंगान हीं उतरां आयकलीं तशें ताचें काळीज कलकललें. हो यमदेव आनी आमच्या राजाक व्हरपाक आयला !आरे देवा ! आतां कितें करचें? ताणें एकदम यमदेवाचे पांय धरले आनी कळवळून म्हणपाक लागलो, 'हे यमदेवा, आमचो राजा म्हळ्यार आमचो सगळ्यांचो पालक. तो आसा म्हणून आमी आसात. अशा आमच्या धर्मात्मा राजाचो जीव घेवपाचें तरी कशें तुमच्या मनांत आयलें? यमदेवा, आमच्या राजाक सोडून दुसऱ्या कोणाकूय तुमच्यांनी व्हरूं येता !'

भीमसिंगाची आपल्याविशीं माया पळोवन राजा मुमुरख्यांनी हांसलो. ताणें भीमसिंगाक म्हळें, 'दुसऱ्या कोणाकूय हांव कसो बळजबरीन व्हरूं?



जो कोणूय आपखोशयेन आपले प्राण म्हाका राजाच्या प्राणांच्या बदलाक ओपीत जाल्यार म्हज्यान राजाक जीवदान दिवं येता.'

राजाच्या तोंडांतल्यान उतरां येतात थंय आसा, भीमसिंगान आपली तरसाद आपले गोमटेर मारपाक वयर उखलली. राजान भीमसिंगाचो हात वयलेवयर धरलो. भीमसिंगाची आपल्यावयली भक्ती पळोवन ताचें काळीज भरून आयलें. ताणें भीमसिंगाक आपल्या हड्ड्याकडेन घट्ट धरलो आनी म्हळें,

'हे सेवका, तूं खरोच म्हान. ज्या राजाखातीर तूं आपलो जीव लेगीत दिवंक तयार जालो, तो राजाय खरोच भाग्यवान. अशा ह्या राजाक हांव कसो व्हरूं? येतां हांव', अशें म्हणत राजा थंयसावन परतलो आनी परत गुप्तमार्गान आपल्या राजम्हालांत परत आयलो.

यमदेवाक परतो वतना पळोवन भीमसिंगाक खोशी जाली. आपल्या राजाच्या प्राणावयलें संकट टळ्ळें म्हूण ताणें वयर मळबाक पळोवन दोनूय हात जोडले.

दुसऱ्या दिसा दरबार भरतकच राजान भीमसिंगाक आपोवणें धाडलें. राजान ताका म्हळें, 'भीमसिंग, मुख्य दारार पारो करतना तुवें म्हजेवयलीं कितलींशीं संकटां पयस केल्यांत आसतलीं. तुजे सेवेक योग्य फळ दिवप ही म्हजी लागणूक. आयज सावन तुका हांव म्हजो खास अंगरक्षक म्हूण नेमतां.'

भीमसिंगान खोशी जावन राजाक वांकून नमस्कार केलो.

५.

# बिंबटो वाग आनी धाकटू

अस्नोडेच्या रानांत एक बिबटो वाग रावतालो. रानांतलीं सावजां मारून खावप आनी पोट भरप हें ताचें सदचें काम. पोट भरून जातकच खंयच्याय झाडार चडून तो सुशेग घेतालो.

एक दीस एका मेरूचें मास खावन पोट टुण्ण जातकच बिबटो वाग एका झाडार चडलो. तें झाड गांवचे शीमेर आसलें. झाडार बशिल्ले कडेन बिबट्या वागाक गांवांत बरींऽ गुटगुटीत गोरवां दिश्टी पडलीं. तीं मांसाळ गोरवां पळोवन बिबट्या वागाच्या तोंडाक उदक सुटलें. हरशींय सदांच तींच तींच सावजां खावन ताका वीट आयिल्लो. 'मनशांनी पोशिल्लीं हीं मांसाळ गोरवां बरींऽ रुच्चीक लागतलीं', बिबट्या वागान चिंतलें. दिसूयभर तो त्या झाडारच लिपून रावलो.

रात जाली. गांवांतले लोक खावन-जेवन सुस्त न्हिदले तसो बिबटो वाग झाडावयल्यान सकयल देंवलो आनी चोरयांनी दपत दपत गांवांत भितर सरलो. सकाळींच ताणें झाडावयल्यान गोरवांचे गोठे खंय आसात ते पळोवन दवरिल्ले. आतां ताका गोठे सोदपाक त्रास जालोना. ताणें एका गोठ्यांत भितर सरून एका कंवळ्या लुसलुशीत वासराक मारलें. गोरवांनी भंयान एकूच आकांत करून हांबेवपाक सुरवात केली. तसो बिबटो वाग वासराक तोंडांत घेवन धांवत सुटलो. उडक्यो मारीत तो वासरांसयत रानांत भितर सरलो. रानांत पावतकच एका जाग्यार वासराक उडोवन तो ताच्या लुसलुशीत मांसार तुटून पडलो. वासराच्या मांसाचे रुचीन जीब चाटीत तो एका झाडार चडून बसलो. ताचें पोटूय भरिल्लें आनी वासराक घेवन रानांत धांवता म्हणसर ताका पुरोय जाल्लें. झाडार बसतांच ताका सुस्ती आयली.

आतां बिबट्या वागाचें सदचेंच जाल्लें. दिसूयभर झाडार चडून गांवांतल्या वासरांक आनी गोरवांक नियाळीत बसप, आनी रातीकडेन गांवांत वचून गोरवांक मारप. गांवकारांनी बिबट्या वागाक धरपाचे खूब यत्न केले पूण वाघ तांच्या हाताक कसोच लागलोना.

एक दीस सदचेवरी बिबटो वाग रातीकडेन एका गोठ्यांत भितर सरलो.



ताणें बारीकसाणेन गोठ्यांत नदर भोंवडायली. सकाळीं ताणें झाडावयल्यान एका वासराक पळयल्लें. धवेंधवें फुल्ल, गुटगुटीत अशें तें वासरूं. अख्खो दीस त्या वासराची रूच काडपांतूच गेल्लो. आनी आतां तर बिबट्याची लाळ गळपाक लागिल्ली. ताचे नदरेंत तें वासरूं गेलें. तेबराबर ताणें वासराचेर उडी मारली. पूण ताची उडी चुकली आनी वासरान जीव तोडून धांवपाक सुरवात केली. ताचे फाटल्यान बिबटोय धांवूंक लागलो. गोठोभर गोरवांची हांबेर सुरवात जाली. घराघरांनी दिवे पेटपाक लागले. लोकांनी व्हडाव्हडान आड्डुपाक सुरवात केली. तेसरशीं बिबटो वाग घुस्पलो. तो वाट मेळटा थंय धांवूंक लागलो. धांवतां धांवतां अकस्मात एका फोंडांत पडलो. सकयल तकली आपटून बिबट्याक चिरमिरिल्ले भशेन जालें. तो थंयच ओग्गी पडून रावलो.

फांतोडेर पयस कोंब्यान साद घालो तशी बिबट्याक जाग आयली. कोंब्यान साद बरोच पयसुल्ल्यान घाला, म्हणजे आपूण गांवापसून मातसो पयसूच आसां म्हणचेलें ताका जाणवलें. ल्हवू ल्हवू मातशें हयन्हयशें दिसपाक लागलें तेन्ना बिबट्यान आपले भोंवतणीं पळयलें. तो पडिल्लो तो फोंड नासून एक पोरणी बांय आशिल्ली. बांयंत उदक नाशिल्लें. भितर तण बरेंच वाडिल्लें. म्हळ्यार, बांयचो वापर जायना, हें ताका कळिल्लें. आतां बांयंतल्यान भायर कसो सरप, हें येवजीत बिबटो बांयचे भितरूच घुटमळपाक लागलो.

सूर्य बरोच वयर सरलो. सगळ्याक उजवाड पातळ्ळो. आतां बिबट्यान

बारीकसाणेन बांयतल्यानूच आशिकुशीक नियाळ्ळें. बांयचे आशिकुशीक बरे गच्च वाडिल्ले व्हडले रूख आशिल्ले. म्हणजे, बांय रानांतूच आशिल्ली. तांतले तातूंत बिबट्याक सूऽ जालें. इतल्यांत ताच्या कानार ठक्-ठक् असो आवाज आयकूंक आयलो. 'शेर्त कोणूय पूण झाडां कापूंक आयला.' बिबट्यान तकली लडयली. 'हो जो झाडां कापूंक आयला तो जळोव व्हरून विकता आसतलो. म्हणजे, तो गरीब आसतलो. रानांत हांगाथंय मरून पडिल्ल्या मनशांचें भांगर पडिल्लें आसता. ताची आस दाखयल्यार घडये हो मनीस म्हाका वयर काडीत.'

जालें, बिबट्यान बांयतल्यान त्या मनशाक सादोवंक सुरवात केली. 'ठाका-ठुकू ठाका-ठुकू कोण तो करिता, म्हाका भायर काडल्यार ताका भांगरान भरितां!'

अस्नोडें गांवचो धाकटू गांवकार सदांच ह्या रानांत येवन झाडां कापून लाकडांचो भोरो करतालो आनी तो येवन गांवांत विकतालो. जळोव विकून जें कितें मेळटा ताचेर पोट भरतालो. त्या दिसाय तो झाड कापतालो. इतल्यान ताच्या कानार आवाज आयलो, 'ठाका-ठुकू, ठाका-ठुकू कोण तो करिता, म्हाका भायर काडटा ताका भांगरान भरितां!' धाकटून आशिकुशीक आवाजाचो सोद घेतलो तेन्ना ताका तो आवाज पोरणे बांयतल्यांत येता म्हणपाचें कळ्ळें. तो धिटायेन ते बांयकडेन गेलो. पळयल्यार बांयंत भितर बिबटो वाघ. अस्नोडेचे दोंगुल्ले लागसारच्या रानांतल्यान गांवांत येवन गोरवां मारपी होच तो बिबटो वाग हें धाकटूक कळ्ळें. ताणें म्हळें, 'आरे चोरा बिबट्या, तूंच मरे तो गांवांतलीं गोरवां खावपी? मागीर तुका तशेंच फावो.'

बिबट्यान धाकटूक बारीकसाणेन नियाळ्ळो. धाकटूच्या आंगाक आनी आंगावयल्या कपड्यांक पळयतकच कळटालें, धाकटू खूब गरीब म्हूण. बिबट्यान मागीर म्हौवाळ आवाजान धाकटूक समजायलो. 'हें पळय, तूं असो सदांच लाकडां मारून व्हरता आनी भोरे करून विकता. अशीं कितलींशींच वर्सां भोरे विकले म्हणून काय तुका भांगरांशिंगरां करूंक मेळपाचीं नात. म्हाका बांयंतल्यान भायर काड तर खरो. ते दोंगुल्लेकडच्या रानांत एक मनीस मरून पडला. ताचेकडेन भांगराची एक व्हडली पोटली आसा. हांव तें भांगर तुका दितां. मागीर तुका आनी लाकडां फोडपाचो त्रास ना. जीणभर बसून खा.'

बिबट्या वागान अशें म्हणटकच धाकटूय येवजूंक लागलो. ताच्या घरांत ताचे जाण्टे आवय-बापूय आनी बायल-भुरगीं धरून सात खावपी तोंडां आनी काम़ करपी तो एकटोच. भांगराची पोटली मेळ्ळ्यार तितलेंच सगळ्यांक खाण-जेवण दिवन आंगभर कपडेय घालूंक मेळटले. पूण जर बिबट्यान भायर येवन भांगर दिनासतना पयलीं गोमटेक धरून खालो जाल्यार !

धाकटून रोखडोच आपलो दुबाव बिबट्याक उलोवन दाखयलो. बिबट्या वागान बेगिबेगीन म्हळें, 'च्येऽ... असलें पातक हांव करचोंना. म्हाका बांयंतलो भायर काडिनाफुडें हांव दोंगुल्ले वटेनच्या रानाकडेन वतां. म्हजे फाटोफाट तुंवूय यो. हांव तुका ती भांगराची पोटली दितां. तरीय तुका दुबाव येता जाल्यार हांव तुका उतर दितां, हांव तुका हात लेगीत लावचोंना.'

धाकटू बाबडो भावार्थी. बिबट्यान उतर दिलां, तेन्ना तो आपणाक कित्याक खातलो, अशें येवजीत ताणें लागसार आशिल्ल्यो वाली कापल्यो आनी तांकां बांयंत हुमकळायल्यो. बिबट्यान त्या वालींक घट्ट धरलें. तेसरशीं सगळो नेट एकवटावन धाकटून बिबट्याक बांयंतल्यान भायर काडलो. बिबटो भायर येनाफुडें ताणें पयलीं धाकटूचे उपकार मानले आनी ताका घेवन तो दोंगुल्लेकडच्या रानांत भितरले वटेन गेलो. थंय एका झाडापोंदा एका मेल्ल्या मनशाच्या हाडांचो सांपळो आशिल्लो. त्या सांगाड्याकुशीक एक भांगराची पोटली पडिल्ली. बिबट्यान धाकटूक ती पोटली घेवंक लायली. धाकटून ती पोटली उखल्ली आनी रानांतल्यान भायर सरपाक तो वळ्ळा मात, बिबटो वाघ ताच्या सामकार येवन उबो रावलो.

'बाबारे, हांवें तुका दिल्लें उतर पाळ्ळें. तुका हांवें भांगर दितां म्हळें तशें दिलें. आतां आयक. हांव रातच्यान उपाशीं आसां. रातीं धांवून, बांयंत तकली आपटून आनी रातभर बांयंत रावन म्हाका सामकें पुरो जालां. पोटाक तर सामकी सणसणून भूक लागल्या. खंयचेंय सावज धरतलों म्हळ्यार तांचे फाटल्यान धांवपाक म्हज्यान मात्तूय जावचेंना. तेन्ना तूं रागार जावंनाका. म्हाका तुका खालेबगर उपाय ना.'

बिबट्याचीं उतरां आयकून धाकटूची वाचाच बसली. तरीय ताणें म्हळें, 'बिबट्यो, तुवें म्हाका हात पसून लावचोंना म्हणून उतर दिल्लें मरे. आनी आतां असो कितें म्हणटा?'

तें आयकून बिबटो हांसलो. 'आरे बाबा, हांवें तुका उतर दिल्लें, हात

पसून लावचोंना म्हणून. पूण म्हाका हात खंय आसात? म्हाका आसात ते चारुय पांयूच. म्हणून हांव म्हजें उतर मोडटां, अशें तूं कशें म्हणटा?'

धाकटूक बिबट्याचीं नाडपेन्नां सामकीं कळ्ळीं. तरीय तकली थंड दवरून ताणें कांय खीण विचार केलो आनी म्हळें, 'बिबट्यो, तशें जाल्यार तूं म्हाका खा. पूण तुवें जरी तुजे मुखावयले दोन पांय अशें म्हळें तरीय म्हाका ते तुजे हातूच दिसतात. आनी मरतां मरतां तुका हांवें पापांत उडयलो अशें म्हाका दिसता. तेखातीर म्हाका एक उपाय येवजला. हांव असो झाडार चडटां. तूं सकयल तोंड उकतें करून राव. हांव वयल्यान बद्द तुज्या तोंडांत उडी मारतां. म्हणचे तुजे हात आनी पांय म्हाका लागचेनात. तुजेंय उतर उरतलें. तुका कशें दिसता?'

बिबट्याक धाकटूच्या भाबडेपणाचें हांसूंक आयलें. ताणें धाकटूच्या म्हणण्याक रोखडोच हयकार दिलो.

जालें. भांगराची पोटली थंयच दवरून धाकटू तुरुतुरु झाडार चडलो. बिबटो वाग सकयल तोंड आंऽऽ करून उबो रावलो. धाकटून वेळ वगडायनासतना कमरेचें कोयतूल काडून बिबट्याच्या तोंडांत मोखून मारलें. धारेचें कोयतूल बिबट्याच्या तोंडांत शिरकलें. ताणें फडफडून जीव सोडलो. धाकटू सकयल देंवलो. भांगराची पोटली घेवन ताणें गांवची वाट धरली.

वाटभर धाकटू येवजीत आशिल्लो. रानांत आशिल्लो हाडाचो सांपळो शेर्त चोराचोच आसतलो. फाटल्या दिसांनी गांवांतल्या गुरू शेटीगेर चोरी जाल्ली. चोरान गुरू शेटील्या दुकानांतल्यो एकानएक भांगराच्यो वस्ती चोरून व्हेल्ल्यो. पोलिसांनी जायतो सोद केल्लो. पूण चोर मेळूंक नाशिल्लो. ही भांगरापोटली गुरू शेटील्या भांगराचीच आसूं येता. आपणें पयलीं सरपंचाक ताची खबर दिल्यार चड बरें जातलें.

मनांत हो विचार आयले बराबर धाकटूचे पांय आपशींच सरपंचाच्या घरावटेन वळ्ळे. सरपंचाक सगळी खबर कळटांच ताणें गुरू शेटीक आनी पुलिसेक रकाद धाडलो. गुरू शेट आपणालें भांगर वळखलो. धाकटून पुलिसेक तो हाडांचो सांपळो आनी मेल्लो बिबटो वाघ दाखयलो. पुलिसेन आनी गांवच्या लोकांनी धाकटूचे धिटायेची तोखणाय केली. गुरू शेटीन ताका एक हजार रुपयांचें बक्षीस दिलें.

६.

# हिरन आनी वांस्वेल

हालिंसरा हिरन खूब मस्ती करतालो. आतां हे कदेलीर चडून सकयल उडी मारता म्हणसर केन्नाच मेजार वयर चडटालो. आनी कमरेर हात दवरून 'शक्तिमान, शक्तिमान' म्हणत घबायंच करून सकयल उडी मारतालो. मदींच खेळण्यांतली मोटार घेवन फुर्रऽ फुर्रऽ आवाज करीत घरभर भोंवडायतालो. दीस-रात मस्ती आनी मस्ती. मम्मा ताका परती परती बाबा-पुता-राजा करीत समजायताली. केन्ना केन्ना 'मस्ती केल्यार वांस्वेल येतलें आं' म्हूण भेश्टायताली. मस्ती सामकीच सोंसूं नज जाल्यार हिरनाच्या पांयार दोन थापटां फुलयताली आनी तो रडटकच 'म्हजो राजा तो' म्हूण वेंगायत पापीय घेताली. देखून घडये हिरन चडूच मस्तेल्लो.

त्या दिसा आयतार आशिल्लो. मडगांवां सर्कस आयिल्ली ती पळोवंक आकाशभाई आनी ज्यूमावशी येवपाची आसली. दादान तिकेटी बूक केल्ल्यो. मम्मा बटर चिकन आनी फ्रायड रायस रांदपाक गुल्ल जाल्ली. हेवटेन मोटार फुर्रफुर्र करून हिरन वाजेलो. ताणें सोप्यार बशिल्ल्या माणकुल्या युगाची कळ काडपाक सुरू केली. हरशींय युगा रडकुरें. मातशें बोट लागल्यार पँऽ करपी. आनी आतां हिरनान कळ काडटकच युगान सोमतेंच पेपारें वाजयलें. मम्मान तांकां रांदचेकुडींतल्यानूच धपकायलो. पूण हिरन कळ काडपाची थांबयचना.

इतल्यान सर्कशीची जायरातीची मोटारसायकल रस्त्यार आयली. मम्मान भायले गॅलरींत वचपी दार बंद केल्लें तें उकतें करून हिरन गॅलरींत धांवलो. गॅलरी उकती आशिल्ली.हिरन बाग घेवन रस्त्यार पळोवंक लागलो. बाग घेतना ताचे दोनूय पांय वयर उबारिल्ले. तिसरे माळयेवयली गॅलरी. मातसो तोल गेल्यार हाताक हाडपसून मेळपाचें नासलें. पूण गॅलरीचें दार उगडटना जाल्ल्या आवाजान मम्मा धांवत गॅलरींत आयली. तिणें हिरनाक ल्हवूच फाटल्यान येवन अळंग आपले वेंगेंत घेवन सकयल देंवयलो आनी रागान दोन थापटां हिरनाच्या पांयार फुलयलीं. सदचेवरी मोगान

लागींय ओडिनासतना ताच्या हाताक धरून भितर आयली आनी घडायंच करून गॅलरीचें दार धांपलें.

'मम्मान मारलें तें मारलें, वयल्यान लागीं ओडून पोशेलें लेगीत ना.' हिरनाक मम्माचो राग आयलो. पांच मिनटां व्हडाव्हडान रडून मम्माक बेजार करचें म्हूण हिरनान तोंड उगडलां मात, दाराची कांपीण वाजली. ताची मावशी आनी आकाशभाई आयिल्लो. ज्यूमावशेन दिल्ली भिकणांची चिकी घेतकच आनी आकाशभाई मेळटकच हिरन रडें विसरलो.

सांजे संच्या खेळाक सगळीं सर्कशीक गेलीं. सर्कस सुरू जाली. मदीं जाळें बांदिल्लें. जाळ्यार वयर चडून थंय लोंबकळटले दोरयेक धरून कांय चलयो-चले सरसरीत वयर चडले. दोनूय वटेन दोन झोपाळे आशिल्ले. ताचेर चडून तीं हेवटेंतल्यान तेवटेन झोपाळे घेवंक लागलीं. हिरन आनी आकाशभाई मजेन टुकूटुकू करून खेळ पळयताले. मागीर जनावरांचो खेळ सुरू जालो. पयलीं आयले घोडे, मागीर ऊंट, मागीर कुत्रे आनी पोपटाचो खेळ. उपरान्त एक वांस्वेल सायकल चलयत रिंगांत आयलें. तेबराबर हिरनाची भियेवन गुळी. मम्मा सांगता तें हेंच वांस्वेल. म्हाका ताणें व्हेल्यार? हिरनान दोळे घट्ट मेटून घेतले आनी मम्माचो हात घट्ट धरलो. मम्माक हिरन भियेला म्हणपाचें ज्युस्तूच कळ्ळें. तिणें ताका आपले वेंगेंत ओडून ताचे फाटीर मायेन हात भोंवडायलो.

'राजा, हें वांस्वेल सर्कशींतलें. तें कांयच करिना आं. आनी पळय, युगा कितलें ल्हान. पूण तें लेगीत भियेवंक ना. आनी आकाशभाई पळय कसो पळयता. आनी तूं शक्तिमान मरे? तुवें भिवपाकूच जायना. शक्तिमान केन्ना वांस्वेलाक भियेता तर?'

जालें. शक्तिमानाची गुळी सामकी बरी पडली. हिरनान दोळे उकते केले. मम्माचो हात सोडोवन नेटान वांस्वेलाक पळोवंक लागलो.

रातचीं आकाशभाई आनी युगाकडेन धुमशेणां कांडून हिरनाक सामकें पुरो जाल्लें. हांतरुणार पडले बराबर तो सुस्त न्हिदलो. न्हिदांत हिरन सपनेलो.

सर्कशींतलें वांस्वेल रिंगांत वाटकुळेंच घुंवतालें. हिरनासरीं पावतांच तें मातशें थारलें. 'हिरन!' वांस्वेलान हिरनाक उलो मारलो तशें हिरनान वांस्वेलाकडेन पळयलें. वांस्वेलाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. दुकां पळोवन हिरन अजापलो. वांस्वेल रडटाशें? 'वांस्वेला, कित्याक रडटा?




तुकाय मम्मान मारलें रे?'

'ना रे बाबुल्या, म्हाका मम्मान मारुंना. म्हाका मम्माची याद येता म्हण हांव रडटां', वांस्वेलान म्हळें.

'मम्माची याद ! तुजी मम्मा खंय आसा तर? तुका मस्ती करता म्हण सर्कशींत धाडला मम्मान? म्हजी मम्माय म्हाका केन्ना केन्ना भेश्टायता. मस्ती केल्यार बंद शाळेंत घालतली म्हण.' हिरन एका धपक्यान उलोवन गेलो.

'ना रे शाण्या, हांवें मम्माचें सांगणें आयकलेंना म्हण हांव हांगा पावलों.' वांस्वेलान म्हळें. ते आयकले बराबर हिरनाक सट्ट जालें. मम्माचें सांगणें आयकलेंना म्हण सर्कशींत पावलो वांस्वेल. कसो काय? हिरन अजापान वांस्वेलाक पळोवंक लागलो.

'आयकतलो हिरन म्हजी काणी? आयक तर.' अशें म्हणत वांस्वेल आपणी काणी सांगूंक लागलो.

'आमी दोग जाण भाव. हांव गुंडू आनी म्हजो भाव पुंडू. पुंडू खूब शाणो. सद्दां मम्माचें सांगणें आयकतालो. तिका कामांत आदार करतालो. उरफाटें, हांव मस्तो. असो तसो न्हय, खुबूच मस्तो. मम्माक हांवें केन्ना कामाक आदार केलोचना. वेल्यान दिसूयभर मस्ती करीत रावतालों. म्होंवा

मूस चाळोवन घालून सगळ्यांची बोब घालतालों. सोंशांच्या भुरग्यांक भेशटायतालों. पुंडूकय बेश्टोच धोंगसून ताची कळ काडटालों. मम्मा म्हाका जायती समजायताली, केन्ना क़ेन्ना रागान तापयताली. पूण तिचें सांगणें हांव केन्नाच आयकनासलों.

'आमी रानांत भितर रावतालीं. मम्मान आमकां ओर्द दिवन सोडिल्लीं. घर आनी घरा भोंवतणचो वाठार सोडल्यार पयस वचपाक जायना. थंय मनीस येतात आनी आमकां फारान मारपाक सोदतात. तें आयकून पुंडू खूब भियेतालो. पूण म्हाका केन्ना भिरांत दिसलीना. वयल्यान ह्या मनशांक पळोवपाची उमळशीक लागिल्ली. कशे आसतात काय मनीस? आनी फारान मारप म्हळ्यार कितें? पुंडूक बी चुकोवन हांव खुबदां लिपचोरयां दाट रानांतल्या आमच्या वाठारांतल्यान भायर सरून कोणूय दिसता काय म्हूण चोंयवशीन पळयतालों पूण मनशां केन्ना म्हजे नदरेक पडलींना. तेखातीर हांव निरशेतालों.

एक दीस मम्मा आनी पुंडू कोलेदादाल्या बाबुल्याच्या बारशाक गेल्लीं. हांवें पोटांत दुखपाचें निमित्त केलें आनी घराच रावलों. मम्मा आनी पुंडू गेलेबराबर हांव घराकडसून भायर सरलों तो बद्द मनशां येवपाच्या वाठारांत भितर सरलों. थंय पळेल्यार कितें अजाप? धव्याफुल्ल कोराचें एक व्हडलें कितें तरी चकचकता. होच काय कितें मनीस म्हणटात तो? हांव दपत दपत ते धवे वस्तूकडेन पावलों. ती एक मोटार आशिल्ली. पूण म्हाका तेन्ना तें कितें तें कळ्ळेंना. हांवें ते मोटारी भोंवतणीं भोंवताडो काडलो. थंय एके सुवातेर मोटार उक्ती दिसली थंय हांव भितर सरून पळोवंक लागलों. पळयल्यार थंय कांय सोंशे मरून पडल्यात. म्हाका मम्मा सांगता तें याद जाली. 'मनशां फारान मारतात.' म्हळ्यार, सोशांक फारान मारल्यात तर! म्हजी भियेवन गुळी जाली. हांव परतो सकयल उडी मारतलों म्हळ्यार धडक् करून मोटारीचें दार बंद जालें. भितर सगळो गुप् काळोख जाल्लो. दार बंद जातना म्हजे तकलेक आपटल्लें. म्हाका सामकें तिरमिरिल्ले भशेन जाल्लें. हांव त्या काळखांत मेल्ल्या सोंशांच्या आंगार पोटली करून पडिल्लों. म्हाका हालूंक आनी धोलूंकय सुवात नाशिल्ली. इतल्यान फुर्र्रऽ असो आवाज जालो आनी मोटार हालली. मोटार धांवता तसो फाटल्यान हांव भितरले भितर घबघब करून हालत आसलों.

केदो वेळ मोटार चलताली कळूंक ना. पूण म्हजें आंग मात बरेंच

धाडावल्लें. भुकूय बरीच लागिल्ली. इतल्यान मोटार थारली. दाराचो घडाम् करून आवाज जालो आनी गाडयेंतले मनीस नांवाचे ते प्राणी खंयतरी गेले. तांचो आवाज पयस पयस वता तें आयकून सूऽ जाता थंय आसा, परत तांचो आवाज लागीं लागीं येवंक लागलो. सामको मोटारी म्हऱ्यांत! आनी अचकीत हांव आशिल्लें दार उगडलें. दार उगडनाफुडें हांवें झुप्प् करून उडी घेतली. अशें कितें घडत म्हूण त्या दोन मनशांनी चिंतूंक नासलें. ते सामके भियेले आनी घुस्पले. हांवें भायर उडी मारली आनी हांव आशिकुशीक नियाळीत चलूंक लागलों. एकेकडेन कितलेशेच मनीस कितेंतरी खाताले. हांव थंय पावतांच थंयसल्ले लोक बोबो मारीत धांवंक लागले. हांव भितर सरलों तेन्ना थंय कोणूच रावूंक नाशिल्लो. हांवें म्हाका जाय जाय तें उखललें आनी तोंडांत उडयलें. भुके पोटार तें बरेंऽ लागलें.

हांव मोटारींतल्यान भायर येतांच म्हज्या लक्षांत एक आयलें. म्हाका पळयतकीर लोक बोबो मारीत जळामळा धांवतात. हांवें मागीर तांकां दावकुलां दाखंयत भेशटावपाक सुरवात केली. तांकां पळोवन मदींमदीं दांत किटकिटायले. कांय वेळान ह्या खेळाक हांव वाजेलों. पोट तट्ट जायसर खाण खाल्ल्यान म्हाका मातशी न्हिदूय येवपाक लागली. मागीर हांव फाटींफुडें पळयनासतना सरळ एका दुकानार भितर सरलों. तें साडयांचें दुकान आशिल्लें. म्हाका पळयनाफुडें तें दुकान खाली जालें. हांवें मागीर थंय सकयल आशिल्ले गादयेर (कुलचांवाचेर) ताणून दिलें. म्हाका रोखडीच न्हीद लागली.

बऱ्याऽ वेळान म्हाका जाग आयली. पूण म्हाका हालूंक लेगीत मेळना जालें. हांवें दोळे किलकिलावन पळयलें. पळयल्यार म्हजे कुशीक ते मोटारींतले दोगूय जाण आनी आशिकुशीक लोकांची ही घिट्टी. ह्या लोकांक भेशटावया म्हण हांवें हातपांय हालोवपाचो यत्न केलो. पूण हातापांयांक बांदून घाल्ले. तोंड उकतें करतलों म्हळ्यार तोंडाकूय दोरी. नाकाकूय दोरी. म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. आरे देवा! मम्माचें सांगणें आयकल्लें जाल्यार हे त्रास जावंचे नासले.

इतल्यान तांणी म्हाका उखलून परतो मोटारींत घालो आनी बद्द सर्कसवाल्यांकडेन हाडून सोडलो. हांवें हांगच्यान सुटपाखातीर खूब धडपड केली. रडून रडून म्हजे दोळे सुजले. आड्डूनआड्डून ताळो बसलो. पुणून कांयच उपेग जालोना. थोड्या दिसांनी तांणी म्हज्या हातापांयांच्यो दोरयो

सोडल्यो पूण नाकाची वेसण मात तशीच दवरली. आनी म्हाका पांदऱ्यांत बंद केलो. रडून रडून हांव थकलों आनी मागीर ओग्गी बसलों.

कांय दिसां उपरांत एका मनशान म्हाका नाकाची दोरी (वेसण) धरून पांदऱ्यांतलो भायर काडलो. तो मनीस म्हळ्यार हो तो रिंगमास्तर. तो म्हाका सायकल चलोवंक शिकोवंक लागलो. म्हाका जमना जालें तशें ताणें चाबकान म्हजी फाट फोडली. निमणें, माराच्या भंयान हांव बेगिबेगीन सायकल चलोवंक शिकलों. आतां ह्या गांवांत, त्या गांवांत सर्कशीबरोबर भोंवतां आनी सायकलीचो खेळ करतां. म्हाका आतां खूब पिकासांव जाता. मम्माचें सांगणें आयकल्लें जाल्यार ह्या त्रासांत पडचो नाशिल्लों. हिरन, बाबुल्या, सदद्दां मम्माची-डॅडीची आनी आपलेपरस व्हडल्या मनशांची सांगणी आयकूंक जाय. तीं आमच्या बऱ्याकूच सांगतात. मस्ती करची, पूण जाय तितलीच. ना जाल्यार बाकीच्यांक त्रास जाता तो जाताच, पूण आपल्याकूय त्रास जातात. म्हाका आतां सगळ्यांची खूब याद येता. तीं लेगीत म्हजी याद काडटात जातलीं.'

सांगतां सांगतां बांस्वेल परतून रडपाक लागलें. हिरनान ताचे दोळे पुसले. 'आतां हांवूय शाणो जातलों. मम्माचें आयकतलों. मस्ती करचोना', हिरनान म्हळें.

इतल्यांत 'हय रे म्हज्या राजा... मारलें हांवें पापणीन ताका येदोळ... जिवाक लावन घेतलां दिसता. पळय कसो सपनेता... म्हजो राजा तो...' म्हणत मम्मान हिरनाक वेंगेंत ओडलो आनी ताका ल्हवू ल्हवू थापटीत रावली.





**नयना नंदकिशोर आडारकार**

कोंकणी वर्सुकी आंक, म्हयनाळीं आनी दिसाळ्यांनी कथा, कविता आनी भुरग्यांखातीर काणयो बरयतात. सुनापरान्त दिसाळ्यांत **पारजत** सातत्यान बरयतात.

आकाशवाणी आनी दूरदर्शनाचेर कविता-नाटकुलीं-मुलाखतींच्यो कार्यावळी सादर केल्यात. आकाशवाणी दिल्ली आयोजित भोपाळ हांगा जाल्ल्या **सर्वभाशा कविसंमेलन २००१** त कोंकणी कविता सादर केली.

कोंकणी भाशा मंडळाच्या वाचक सल्लागार समितीच्यो अध्यक्षा. गोवा कोंकणी अकादेमीच्यो वांगडी.